K. Gokuldas Prabhu
CORPORATION BANK

# घुमचे कटर् घुम्

रचपी :

अ. ना. म्हांबरो

सोवीत साहित्य

© अ. ना. म्हांबरो
२७, झेहरा मंझील
एल्. जे. रोड, माहीम,
मुंबय २८.

पयली खेप :
सप्टेंबर १९६४

चित्रीक :
एस्. के. परब

उजवाडावपी :
गुरुदास गोपाळ पै
सोबीत साहित्य,
पणज, गोंय.

छापपी :
गुरुनाथ केळेकार
संजीवनी छापघर,
मडगांव, गोंय.

मोल ७५ पैशे

K. Gokuldas Prab
CORPORATION BANK

## रुचीक कवनांचो हो झेलो.....

श्री. अ. ना. म्हांबरो हांणी रचिल्ल्या म्हॉवाळ कवनांचें हें पुस्तक भुरग्यांच्या हातांत दितना आमकां खूब खोस जाता. ह्या पुस्तकांतलीं ल्हान-ल्हान आनी गोड-गोड कवनां वाचतना भुरग्यांक खातकुतल्यो जालेबगर रावच्यो नात.

श्री. अ. ना. म्हांबरो हांची लिखणी इतिहास बरयतना जितली पर्जळटा, तितलीच मनीस-सबावाच्यो बारीकसाणी चितारतना पर्मळटा. भुरग्यांखातीर बरयतना तर तांचे लिखणेक पांखां फुटून ती आपल्या वांगडा भुरग्यांक अेका वेगळ्याच आनी अप्रुपांच्या संवसारांत भोंवडावन हाडटा. भुरग्यांच्या मनाचो बारीक अभ्यास करून तांचे रुचीक किते मानवता तें तांणी पारखिलां आनी देखुनूच तांचीं हीं कवनां सादीं पुण सुरबूस जाल्यांत.

हीं कवनां आदीं 'कोंकणी' ह्या पंद्रशी नेमाळ्यांत उजवाडा आयिल्लीं. श्री. परब हांणी काडिल्ल्या सोबीत चित्रांची जोड दिवन तीं ह्या पुस्तकांत गुथल्यांत. हीं सोबीत चित्रां आनी हांसोवपी कवनां भुरग्यांक ओड लायतलीं आनी तीं जिबेर घोळयतां-घोळयतां तांकां आनीक वाचपाची रूच लागतली हातूंत आमकां अिल्लीय दुबाव ना.

पणज, २५-९-१९६४. **अुजवाडावपी**

माजराचें हळदकुकूम

भिकू म्हालो

निस्त्याचें नाटक

शेर्कुल्याची सवत

शाली-पेद्रूची व्हाइडीक

शाणूलो पसरो

गोपाळभट बोवाळटा

मसका-सांग आनी पणस

झगडें

खतखतें

वाडीचो पोपलो

शांतो निस्त्याक वता

आरे डोंबाऱ्या, खेळ फुलय

तर हांव कोण

घुमचे कटर् घुम्

# माजराचें हळदकुकूम



सक्रांतिची
परब धरून
माजरान आडायलें
हळदकुकूम.

खेत्याक आपल्या
बराबर घेवन
चिचोंदर आयली
वायण व्हरूंक.



बुकल्यान दिल्लो शाळू न्हेसून
माजर आयलें भायर
दीश्ट ताजेर पडनाफुडें
चिचोंदर जाली पसार !





# भिकू म्हालो



भिकू म्हाल्याचो
भेस बरो
काळी तोपी
धवो सदरो.

सकाळीं उठून
कापणे खातीर
भिकू वतालो
गांवचे भोंवडेर.



बावड्या भिकूक
सगले सारके :
नेहरू, केनेडी,
सांवळे, मर्तें.

तोंडांत गजाल
बोडार कातर
भिकू म्हाल्याची
सुरबूस खबर.

कापणे उप्रांत
गिरायक विचारी,
" कापणेचे पैशे
कितले दिवं ? "

मान बागोवन
भिकू म्हण,
" आयज दिता,
काय फाल्यां येवं ? "



उप्रांत अेक दीस
भिकू म्हालो
अकस्मात बावडो
मरून गेलो !

गांवचो लोक
हळहळ्ळो ऽ ऽ...
जसो काय तांचो
सोयरो गेलो...!

# निस्त्याचें नाटक

न्हंयेच्या पात्रांत
जालें अेक नाटक ;
नांव ताजें
“ संगीत महाभारत. ”



सगल्या निस्त्यांनी
घेतलो तातूंत वांटो ;
स्टेजमास्तर जालो
आगशीचो शेंवटो.

विस्वण जालो
तालीम – मास्तर ;
गोबऱ्याक म्हणूं लागलो,
“ भीमा, गदा धर ! ”





कळंगुटची शेंवटाळी
जाली सुभद्रा ;
तांबाशाक म्हणूं लागली,
"आरे किरणा, तूं म्हाजो दादा !"

द्रौपदी सोबली
मुरगांवची मुड्डशी ;
खर्चीडेक म्हणूं लागली,
"तूं म्हाजी दाशी !"



# शेर्कुल्याची सवत



बाळपयचें शेर्कुलें
दिसतालें खापुळें !

ताजे अश्टिणिचें
नांव हापशें !
कातीन धवशें,
दोळ्यान तिरशें !





शेर्कुलें हापशाक
म्हणटालें हापू !
हापशें शेर्कुल्याक
म्हणटालें खापू !

अेक दीस तांचेमदीं
आयलो बाबुसो !
दिसूंक मोटसो,
आंगान फोफसो !





हापशान म्हळें बाबुशाक—
"बाबुशा, बाबुशा,
हांव तुजी औरत !"

शेर्कुल्यान म्हळें हापशाक—
"हापशा, हापशा,
हांव तुजी सवत !"



# शाली-पेद्रूची व्हाड्डीक



ताळगांवच्या पेद्रून
घाली माथ्याक तोपी
आनी म्हळें,
"हांव फातर्पैंचो गोपी !"



म्हाड्डोळच्या शालीन
घालो फ्रॉकाचो भेस
आनी म्हळें,
"हांव मेर्शेचें तेरेझ !"



पेद्रूचीं मांय पाय
जालीं सीताबाय रामराय ;
शालीचीं आवय बापूय
जालीं सांतानबाय रॉकपाय !



सगलीं जालीं अेकठांय
आनी थारायली सोयरीक ;
शाली–पेद्रूची जमयली व्हाड्डीक !

# शाणूलो पसरो

शाणूल्या पसऱ्यार
पाटू बसतालो गल्ल्यार;
विचाल्लेबगर सांगतालो
गजाली चाऽऽर!



गिरायक मागतालें
पिठाचे गंव;
पाटू दितालो
भातेल्लें फोव!

गिरायक मागतालें
खो सांज्याचो ;
पाटू सांगतालो,
" खंवटेला तो मात्सो ! "





गिरायक मागतालें
आण्याच्यो विडयो बारा ;
पाटू म्हणटालो,
" घे अिकरा, ना जाल्यार चल घरा !"

फुडले दिवाळेक
शाणूल्या पसऱ्याचें
अैन परबेक
वाजलें दिवाळें !

# गोपाळभट बोवाळटा !

एका लग्ना–माटवांत
चलता बोवाळ......
तातूंत भितर गोपाळभट
कामाबगर घालता बोवाळ !



येजमान करतात
कुचमणां ;
बायलां घालतात
धुमशेणां !

धोल ताशे
वाजतात सारके ;
भुरगीं रडटात
कँ ऽ हँ ऽ कँ ऽ हँ !

वाजंत्र्यांचीं
वाजती वाद्यां
व्हौंवळे सांगती
शेडशास्त्रां...



भटांनी मांडला
उज्या होम
चौगुडो वाजता
भो ऽ म् ऽ भो ऽ म् !



पुडवें व्हरून
व्हंकलेक दिता,
जानवें व्हरून
मांयक घालता !

वेण मागता
केळी - खोलो,
गोपाळ दिता
तांबयो पेलो !

शेंवत्या - फांतीं
न्हवऱ्याक दान,
येजमान पिळटा
गोपाळाचो कान !



गोपाळभट बोवाळटा,
बोवाळभट गोपाळटा,
बोवाळ बोवाळ बोवाळटा,
गोपाळभट बोवाळटा !

# मसका-सांग आनी पणस

मसका – सांगेक
म्हणटा पणस,
“ तूं गे कित्याक अशी बारीक ? ”

पणसादादाक
म्हणटा सांग,
“ तुजी फाट रे कित्याक खरखरीत ?”



पणस म्हणटा
लजेत लजेत,
“ आवय मारता दिसूयभर,
देखून आयल्यात फाटीक वळ ! ”

सांग म्हणटा
रडत रडत,
“ बापूय म्हाका वाडिना,
देखून हांव मोटी जायना ! ”



# झगडें



कदेलान दवल्ले
मेजार पांय
आनी म्हळें,
"हांव तुजी शेमांय !"



मेजान काडलो
कदेलाचेर राग
आनी सरळ
मोडले ताजे हात !



तितल्यांत उठलें
तिनखुरी स्टूल;
मेजाक म्हणूं लागलें,
" यू आर् अे फूल ! "



वल्तेरान तितल्यांत
दिली जांबय
आनी म्हळें,
" आवय् आवय् ! "

# खतखतें

रांदनीवयल्या
खतखत्यांतल्यो
फोडी लागल्यो झगडूंक...



केळफुलान म्हळें
कोंकणदुदयाक—
"तूं सामको पचपचीत !"



पोपायेन म्हळें
निरपणसाक—
"तुजो दीख चिकचिकीत !"

गाजरान म्हळें

पडोळ्याक—

“तुका बियो कुचकुचीत !”





घोंसाळ्यान म्हळें

मसका–सांगेक—

“तुजीं किसरां किसकिशीत !”

तितल्यांत उठलो

धोंदयो दुदी ;

म्हणूं लागलो—

“आतां बसात ओगी !”



# वांडीचो पोपलो

वाडीचो पोपलो
आयलो पेडण्यांत
आनी म्हणूं लागलो,
“स्वतंय हैंसर घर बांदून.”



पेडणेकारांनी ताका विचाल्लें,
“हडेनसो कित्याक ?”
पोपल्यान तांकां म्हळें,
“तुमचे मांयच्या मिथ्याक.”

पोपल्यान उबाळी
खोंप कोलवाची
आनी नांव तिका दिलें—
“ बंगली पोपले–शेटीची. ”




असो हो वाडीचो पोपलो
पेडण्यांत आयलो,
ठाण मांडून
थंयूच बसलो.

# शांतो निस्त्याक वता !

बाजारांत वचून
करमळेचो शांतो
व्यान्नीक म्हणूं लागलो,
" म्हाका जाय शेंवटो. "



व्यान्नीन विचाल्लें,
" खंयचो कोण गा तूं ? "

शांत्यान सांगलें,
" शाणू पोरबुलो पूत हांव,
व्यंकुशणैलो नातू ;
तिरीदादालो सोयरो हांव,
भाव म्हजो तातू. "

ग्यान्नीन विचाळें,

“ शेंवटच्याक दिशीत व्हय गा रुपय ? ”

शांत्यान सांगलें,

“ रुपयूच कित्याक ?

लाख दियन...

शेंवटो रुचीक आसल्यार

भाट दियन ! ”



ग्यान्नीन म्हळें,

“ आवय आवय,

बाबा तो म्हाजो !

शेंवटच्यासयत

गोबरोय व्हर ताजो ! ”

शांत्यान म्हळें,

“ दोनांयचे घे हे

शंबर पैशे.

निस्तें रुचीक आसल्यार

बाकिचे दिवंचे ! ”

# आरे डोंबाऱ्या,
# खेळ फुलय !

आरे डोंबाऱ्या,
खेळ फुलय !
खेळा आदीं
धोलकें वडय !



वाजलें धोलकें
कडमड कडमड
जमलो लोक थंय
गजबज गजबज

झप – झप – झप – झप

बांद्लो नाडो,

सप – सप – सप – सप

चडलो चेडो !



नाड्यार पावून रे

धोलकें फुटलें ;

चेड्याक चेडूं रे

रोखडेंच मेळ्ळें !

# तंर हांव कोण ?



पाचवेंचशें आंग म्हजें,
मोवशीच रे फाट;
विडयाविणें लेगीत म्हजे
रंगतात रे ओंठ !
तर हांव कोण ?
पो ऽ प ऽ ट !



तिळ्यावरी दिसलों जरी,
काळो मात् न्हय रे हांव;
पुनवेचे राती तर
न्हवरो कसो दिसता हांव !
तर हांव कोण ?
चं ऽ द्री ऽ म !

नळयेंत घाली तरी वांकडी,
अशी म्हजी शेंपडी;
अिल्लोसो जरी दिसलों हांव
बुद्द म्हजी फांकडी !
तर हांव कोण ?
सु ऽ णो !



# घुमचे कटर् घुम् ऽऽ

तासो वाजता
कटर्ऽ कटर्ऽ
धोल वाजता
धुडुम ऽऽ
घुमचे कटर्
घुमचे कटर्
घुमचे कटर्
घुम् ऽऽऽ !





काजू–रोसांत
नीळ घालात,
पिचकारेंतल्यान
रंग मारात,
घुमचे कटर्
घुम् ऽऽ !

कोळशाभरशीं
चुनो घालात,
नळकुटयांची
पूड करात,
घुमचे कटर्
घुम् ऽऽ!



भरात घेस
करात कोकात,
उसळत गुलाल
दोळे धांपात,
घुमचे कटर्
घुम् ऽऽ!

आयिल्लें रोमट
गेलें परत,
शिगम्या पुनव
मनयत मनयत,
कटर् कटर् घुम् ऽऽ
घुमचे कटर् घुम् ऽऽ!



‘सोबीत साहित्य’
लोकाक जाय तसलें
आनी लोकाचे आवडीचें
बरप उजवाडायता.

भुरग्यांचे रुचीचें
साहित्य भुरग्यांच्या
हातांत पावोवप
हो सोबीत साहित्याचो
एक मुखेल हावेस.

सोबीत साहित्य
आदलीं उजवाडावपां:

 जायात जागे

 काणी काणी कोतत्रा